**शिन्ना**: तशिश म्हळ्ळेलेवे माय्ये तुम्मि? हांव लेकले... खंय्की तुम्मीचि पांच लक्ष रुपयि Cash हाणु घरा दवरलाकी... म्होणु! तशिश तितलो दुड्डु बिनि घरांतु हाणु दवरनु घेव्चे हे कालांतु चांग न्हायि धनियां...! कालु "कली काल" आत्त...! आरतां... कांयि हे एक-दोनि वार दिकूनु... हांगा आम्गेले Layout तु, विपरीत चोरांगेले बाधा सूरु जाल्या...! कोण्की चार जन मळ्याळांचे चोर हांगा रिगल्यांचि खंय्...! कोण दुड्डु घरा हाणु दवरलां म्होणु... तांका कशिकी कळता खंय्...!! तशिश कळ्ळे सतान तान्निं ते घरां रिगूनु.... घरां आशीलेंक मारनु बांदून घाल्नु दुड्डु काण घेव्नु वत्तांचि खंय धनियां. दुडवा खातीर हे चोर खून करचाकयि माक्षेनांचि खंय धनियां... भारी जाग्रते जाव्का...!!!

(बाक्कुटु रानपो शिन्नांक पळय्तरि....)

**बाक्कुटु** : ए... शिन्ना... राबय्रे तुगेले हरिपुराण...! चिके राब... सुरवे हे कागद वाजूनु पळैता...

(म्हणतरि ताणे दिलेले कागद Open कोरनु वाजिता)

"प्रिय Inspector दामोदर पैयवरे..." आं...!?

(बाक्कुटु चीटि वापास् वापास् वाजुनु खात्रि कोरनु)

शिन्ना... हे कसले काम् केल्लांरेपपा तूंवे? तुगेले धनियान हे suitcase पेल्ले घराचे Police Inspector पै मामाले घरां दवरचाक कागद बरय्लामूरे !? हे कागद ताणें माका बरय्लेले न्हयिमूरे !? दयकोरनु तूंवे आत्तंचि हे कागद आनी suitcase दोन्नियी पेल्ले घराचे Police Inspector पै मामांतयि पावयिरेपपा शिन्ना... माक्का न्हायि...!! (होड् एक उस्वास सोड्तरि...)

**राधाबायि** : इत्ते...? Inspector पै मामांथयि... दवोरचाक दिल्लेलेवे... ? इत्की पुण्य... तुम्मि ही कागद वाजीले... नात्लेरि राति फाल्ले हेंवयि राक्कूनु नीद खोळ्का आशीले आम्मि...!!

**शिन्ना**: आय्यय्यो पै मामांक हांवे विषयु परायि... सकाणीचि सांगला... हे suitcase आत्तंचि होरनु थंयि दवरनु योरे... म्होणु आमगेले धनिं मेगेलाग्गि म्हणालींचिमू...!?

**बाक्कुटु** : व्हयि... व्हयिरे... शिन्नां... हांतु तुगेलि कांयी चूकि ना...!! जाल्यारि हांगा दोग जन पै माम आस्सति म्होणु गोत्तुनावे तुक्का? Accountant पै मामू म्हळ्यारि हांव... Inspector पै मामुं म्हळ्यारि तो... पेल्ले रस्तेरि सुरवे घराचो...!

**शिन्ना** : व्हयि... व्हयि.... कळ्ळें धनियां...! बहुषः आमगेले धनियान Inspector म्हळ्ळेले मेगेले कान्ना वचनींकि म्होणु ! चूकि जाल्लि मेगेलि...!! ते Suitcase हेकडे दिय्या. होरनु Inspector पै मामांथयि पावय्तां. आत्तंचि घंटे साडे आठ जाले...!

(म्हणतरि शिन्ना तग्गेले suitcase

काण घेव्नु मात्तेरि दवरून भाय्र वत्ता.)

**राधाबायि** : सद्या... हे तापत्रय खैद जाल्ले...!!

**बाक्कुटु** : खैद जाल्ले व्हय्...! जाल्यारि माक्का तुगेलो... गळो चिरडून सोड्यां म्हळ्ळेल तित्लो कोपु एत्ता...!!

(राधाबायि भिल्ले म्हणके कोरनु)

**राधाबायि** : गळो चिरडूचे तित्ले कोपु? इत्याक म्हणता? हांव तुम्का... तित्ले नाक्का जाल्लिवे?

(बाक्कूटु दोळे गुरगुराव्नु तिक्का पळय्तरि दांत् चाब्ता...)

**राधाबायि** : इत्या अशिश उग्र नरसिंहावतार घेत्ताति म्हण्ता...? इत्ते माक्का आत्तंचि जांगेरि निदाव्नु, पोट पिसुणु, आंत भायर काणुं, खाव्नु सोड्ताकी इत्ते ? तसले कसले केल्लेबा हांवे आत्त्त?

**बाक्कुटु** : ते रानपेले एद्राक पांच लक्ष म्होणु सांगलेमू... तूंवे... वस... वस... सगळे गांवा डांगूर पेट्टूनु यो...!

**राधाबायि** : रुपयि घरा हाळ्ळेले चूकि तुम्गेले की... मेगेले?

**बाक्कुटु** : वय्... वय्... तश्शी म्होणु माक्का आत्तंचि होरनुं... हितला... आशीले बांयिंतु लोकोनु पडि... मेगेले चूकि सक्कडयि सम जातले... ताज्जेन...!!

**राधाबायि** : सद्याक तो Suitcase घेव्नु गेल्लो... गांवचे जनांक उपकार कोरचे म्होणु... तांगेले भांगर-सिंगार राक्कूनु बय्सूचे Watchman ले कामयी करताकी तुम्मि म्होणु लेकले हांवे...!

**बाक्कटु** : वै यबा.. वैयि... तूं तुक्का जाव्का जाल्लेले सांगत राब...! आरता... तूंवे तुगेले जीब् बामणां एद्रा उलोव्चाक आनी सोव्चाक सम: पाजूनु घेत्ला...!?

**राधाबायि** : घंटे न्हव् जाल्ले... आनी एदें जेवयांवे...? उटाया...?

**बाक्कुटु** : पोट्टा भूक नांशि दिस्ता...

**राधाबायि** : दिस्ता? तुम्का आजि पोट्टा भूक जाल्लेले कळनांकी म्होणु? चोरा भीव्नु पोट्टा भूक धांपून गेल्ला... तित्लेंचि...! उटाया Dining Table रि वाट्टे एद्रा बस्ताना... पोट्टा भूक आपणितलेक येत्ता पळया...!

**बाक्कुटु** : ते व्हय्गो... आत्त पोट्टा भूक आशीले म्हणकेयी जात्ता...!!

**राधाबायि** : आनी कसलेयि... सांगचे नाक्का... रांदप आजि हांवे चडते... केल्ला. तुम्गेले प्रीतीचे दाळीतोय आनी लोस्णे चट्नि केल्ला...! येय्या... लायेक करनु जेव्यां...!!

**बाक्कुटु** : इत्तें... लोस्णे चट्निवे... हां...? वाडि...वाडि... जेव्यां...!!!

(म्हण्तरि उठाय्ता)

**राधाबायि** : पळय्लेवे... मेगेले लोस्णे चट्ने प्रभावु...?

**बाक्कुटु** : ते व्हयि जाल्यारी... जेव्णा वत्ताना हे ब्याग खंय दवरचे...? राधाबायि : आनिकय तेंचि आलोचनवे...!? ते... ब्याग हांगाची... होलांतु

सोणु भित्तरि वचूनु चंद कोरनुं जेवण कोरयां पळोयां...! आत्त हांगा कोण येत्ता म्हणता ते वरचाक....?

**बाक्कुटु** : श्... हळूचि... हळूचि... दुड्डु, ब्याग, चोर म्हळ्ळेले उत्र जाल्ले तित्ले हगूर उल्लोव्का. उत्र उल्लय्लांकी ना म्हळ्ळे म्हण्के हळूचि उल्लोव्वका..! जाल्तित्ल्लें तीं उत्रं उल्लोव्चाक नज्ज..! दुड्डुयि ना... चोरयी ना... कळ्ळेवे?

**राधाबायि** : तशिश लेक्कूनु आत्त जेव्णाक येय्या पळोव्या...

**बाक्कुटु** : व्हयि... व्हयि... हां...! न्हयि इककै अशि केल्यार कशिश...?

**राधाबायि** : कशिश...?

**बाक्कुटु** : हे ब्याग जेवणा मेजेरि दवरल्यारि जेवण जेव्चाक जायिश्नावे?

**राधाबायि** : मेजेरि इत्याक... कुरचेरि... गांडि मुळाक दवरनु... ताज्जेरि... बय्सूनु जेव्चेबा...! कोण तुम्का अड्डि करतातिं? हे ब्याग तशींचि Toilet क वत्ताना, नहाव्चा वत्ताना, कूडान कूडा वत्ताना, हात्तां धोरनु भोंव्नु कडेरि... "बाक्कुटाले ब्याग" म्हळ्ळेलि एक काणि बरया तुम्मि...!! पेपराचानि घाल्यारि नांवयि येत्ता... प्रकट केल्लेले भात्तो म्होणु चार कासयि मेळ्तले...!!

**बाक्कुटु** : छे... छे... तशि पूरायि म्होणुकागो... सरकारा दुड्डु... विंगडालो दुड्डु... जवाब्दारि...

(ब्याग हात्ता धोरनु)

वच्चां वच्चां... जोरु पोट्टा भूक जात्ता... जेव्यां... गट्टि जेव्यां...!!!

(दोगगयि भित्तर Dining Room दिक्कान वत्ताति)

* * *

## दृश्य : 3



(बाक्कुटाले घर चित्र 3, हांतु दाकय्ले प्रकार Stage Set करका. वणतेरि लांबय्लेले गडियार वेळु रात्रि इकरा घंटे दाकय्ता. Bolt नांतीले एद्राचे बागिल कोणानैं भायलेन लकव्नुं उदारे कोरचा जाय्नाशि, बित्तरच्यान कपाट आड दवरला...).

(बाक्कुटु दीवान मांचरी ब्याग पीटोव्न धोरनु बैसूनु आस्सूका.)

**बाक्कुटु** : माक्का... नीद येव्चे लक्षण नाशि दिस्ता...!

**राधाबायि** : पूरो म्हण्ता हे नमूने Tension. दुड्डु खंयि धाव्नु च्चना...!! ताज्जे येच्चना सोणु नुत: निद्दया पळोयां...!!! घंटे इकरा जाव्नु गेल्ले. Light Off कोरचेवे...?

**बाक्कुटु** : नाक्का... नाक्का....! एक दिवस् रात्रि सगळे Light On कोरनु दवरलायरि आम्गेले घरा करेंटा Bill कायी चड जायिश्ना...!

**राधाबायि** : म्हळ्यारि आजि रात्रि पूरायि जागरण पूजावे?

**बाक्कुटु** : तशि म्होणूचि लेक... आनी मेगेले ओट्टु तूंवयी जागि बैस...!!

**राधाबायि** : पूरो म्हण्ता... ! नुत निद्दया पळोया दोळे धांपुनु...!! तुम्गेले तोंड् पळय्ल्यारि चोराक पांच लक्ष आशीलो म्होणु

कळीश्ना..!! तुम्गेले अवतार पळोनु चोराक पाप दिस्सूनु तुम्गेले हात्तांतु शंबरि नोट दवरनु वत्तलो तो...!

**बाक्कुटु** : हुश्... हळूचि... उल्लयि म्हळ्ळेले नवे हांवे? वै... वै... तूं सांगचे सत्य!! मेगेले तोंड् पळयल्यारि कोणांकयि अनुमान एयिश्ना. जाल्यारि तूंवे अशिश घडियेक एक पटि पांच लक्ष पांच लक्ष म्होणु सांगत राबल्यारि निद्दलेलो चोरु उटानु हांगा येव्नु खांपुन घेव्नु वत्तलो...!

(म्हण्ताना बागिल मारलेलो आवाज जात्ता)

**राधाबायि** : हगूर उल्लया म्हण्ता. नुपुरो जाल्यारि बागिलांतु बस्ल्यांचि विंगड ! कोण्की आम्गेले घरा बागिल मारतरि आस्सति म्हण्ता!!

**बाक्कुटु** : (भीवनु) आं...!! बद्दवे ? हे अपरात्रि ? इकरा - बारा घंटे लाग्गि कोणगो हे...? खंय्की... व्हारेक... बागिल हाल्त आस्सकी म्होणु ! Bolt नात्तिले बागिल नय्वे...!?

**राधाबायि** : बागिल काणु एक पटि पळया म्हण्ता...!!

**बाक्कुटु** : हांवे बागिल काड्चे ? काणु पळोव्चे...? हे अपरात्रि वेळारि !? न्हयि माक्का कांयी भंय्य ना...! कोणयी ना... म्होणु दिस्ताना... बागिल काणु कोरचे कसलेबा...!??

**राधाबायि** : खंडिताकयि हे आम्गेले बागिल मारलेले शब्दु म्हण्ता, व्हारेक बागिल हाल्यारि अशिश शब्दु जाय्ना म्हण्ता...

(बागिल मारलेले आवाज आनी वापास् आय्कता...)

(बाक्कुटु भीव्नु)

**बाक्कुटु** : वैमूगो कोण्की आम्गेले घरा बागिल मारत आस्समूंगो...?

**राधाबायि** : एकपटि... बागिल उदारे कोरनु पळोचाक नज्जवे म्हण्ता...!

**बाक्कुटु** : आजि एक दिवसु तूंचि पळे मारायित्त...! Please...!!

**राधाबायि** : खंचे एक नमूने दारलोबा... तुम्मि...! अशिश भिल्यारि कशिश...!? कांय नातल्यारि... "कोण ते" म्होणु पुणि निमगूचा नज्जवे...!?

**बाक्कुटु** : हां! ते जाल्यारि हांव  करनं...

(जाल्यारि भिल्लेले आवाजान...)

को...ण... ते...?

(बुड्डि आक्का भाय्लेन सांगता)

**बुड्डि आक्का** : हांव्रे बाक्कूटा. तुम्गेले शेजारचि. राधा घरा आस्सवे?

**बाक्कुटु** : इत्ले वेळारि घरा नात्तिले आनी खंय वत्त ती...? वैगो... कोण्की शेजारचि बायल मनिषि खैं... तुक्का आपय्तरि आस्स...!!

**राधाबायि** : इत्ले वेळारि, माक्का सोद्दूनु आयल्यांतिकी? कोण्बा? आय्ली..

(म्हण्तरि बागिला लागी राब्बून निम्गिता)

कोण ते...?

**बुड्डि आक्का** : हांव्गो राधाबायि... बुड्डि आक्का...

**राधाबायि** : बुड्डि आक्कावे...!? राब्... एक मिनुट्...! आय्ली...!!

(बाक्ऊटा पळैतचि)

येय्या म्हणता बागील काड्यां... कपाट बगलें करयां...

**बाक्कुटु** : हे अपरात्रि हीणें हांगा येवनु आम्का जागोचाक कसलेबा कारण? Suitcase घेव्नु तो रानपो शिन्ना येव्नु गेल्लो... आनी... हिग्गेलि काणि कसल्की...? ओट्टारे... प्रारब्ध मेगेले...!

(म्हण्तचि बागिलाक आड् दवरलेलो कपाट बाक्कुटु आनी राधाबायि दोगगयि ओट्टु मेळ्नु बगलेन लोकोनु बागिल काड्ताचि)

**राधाबायि** : अरे... बुड्डि आक्का...! इत्ते... बुड्डेक्का... हे वेळेरि...? आंम्गेले घरा बागिला Bolt आजि मोळ्ळां... तशिश कपाट आड् दव्वरलां पायि रिपेरि जाव्वो ताय्... ! यो.. भित्तेरि यो...!

(बुड्डि आक्का भित्तरि येव्नु)

**बुड्डि आक्का** : अय्यो राधाबायि कसले म्होण्चेगोम्मा... पूरा आम्गेले ग्रहचार...! मेगेले नाती मिण्कम्माक... चेरडाक...

जोर हुशार  नांगोम्मा... इत्याकी आजि सांजे परान एक नमूनेशी आस्सगोम्मा...!!

**राधाबायि** : इत्ते जाल्ले बुड्डक्का चेरडाक...? सकाणि पळय्ला हांवे तिक्का? खेळ्तरि हांगा आय्यिलि...! सम्म आशिशलि मूं...?

**बुड्डि आक्का** : कस्सले म्होणु गोत्ना! तात्तावळि पाय्खाने वत्ता... एत्ता... आजीक एद्दोळ ताय कांय धाबारा पटि जाल्ले खंय... पात्तळ उत्कडे...!! ताव्वळि दोळे काळोक एव्नु पळिळ्ळ...! डागतारु शानभाग मामुं तीनि पाव्टि येव्नु पळोव्नु गेल्ला...! वक्कद इंजेक्षन पूरायि दिल्ला...! उत्कडे राबलां जाल्ल्यारि... आनीकै बोध् नात्तिले वरीन आस्स...! फाल्ले भित्तरि सक्कड् समः जात्ता म्हळ्ळा... डागतारान. माका मात्र समाधान नां... म्होणु हांगा आयल्यां...!

**राधाबायि** : हे देवा... आनीकै परिस्थिति मिरवनि नवे...बुड्डि आक्का...? बुड्डि आक्का : कशिश सांगचे पुता...! तशिशयी जाव्येत्... अशिशयी जाव्येत्...!! आनी खंचोयी डागतारु हांगा लाग्गि ना...!!!

**राधाबायि** : पेल्ले रस्तेरि चाररि नंब्रा घराचो पंडित डाकतारू गणपय्याक एकपटि दाकोचाक नज्जवे बुड्डेक्का?

**बुड्डि आक्का** : हे वेळारि त्या गणपय्याले नांव काणकाम्मा तूं...! ताणे न्हायिवेआम्गेले केपपि शारदालो कानु केपपो कोरनु घाल्लेले? कान्ना धूकि म्होणु शारदाक हांवे तागेलाग्गि घेव्नु गेल्लेले होडि चूकि जाल्लि...! कान परीक्षा कोरनु हे तेल... एद्दे हून कोरनु तिंतीनि थेंबे लेक्कान दिव्साक तीनि पटि सकाणि... दनपारा... रात्रि... अशी... ओट्टू दोनि.. बरे दोनि दिवस कान्ना घाल्यारि पुरो... म्हणालो...!! हांवे तशी केल्ले. एक दिव्सान दूकि राब्लि वै.. जाल्यारि चेरडाक वक्कद घाल्लेलो कानु मात्र केपपो जाल्लो...!! तागेले पशि चांग वक्कद हांव  करन...!

**राधाबायि** : म्हळ्यारि... बुड्डेक्का... तुक्का वक्कद दिव्चाकै कळ्तवे...?

**बुड्डि आक्का** : माक्का गोत्ना म्हळ्ळेले कसलेयि ना... चेरडा...!

**राधाबायि** : तशि जाल्यारि मिण्कम्माक तूंवे वक्कद दीव्येत् नय्वे?

**बुड्डि आक्का** : ताज्जे खातिर नंय्वे पुत्ता हे वेळारि हांव हांगा आय्ल्या.

**राधाबायि** : म्हळ्यारि...? माक्का अरथु जाय्नि बुड्डेक्का...

**बुड्डि आक्का** : न्हय्... तुगेलाग्गि सुक्कयिले दाळिंबा वोट्टे आनी गोड्डकोष्टाचे कुड्के मेळत्की म्होणु निम्गूचाक आय्यिलि हांव. तशींचि तुगेले हित्लांतु आत्त तें विंद्रा कान्ना झाड् आस्सकी? पात्तळ् उत्कडे ताज्जेन तत्काल राब्ता...!

**राधाबायि** : आस्स म्होणु दिस्ता...!!

**बाक्कुटु** : खंय आस्सगो...?

**राधाबायि** : आशीले नय्वे म्हण्ता...?

**बाक्कुटु** : तशि सांग आशीले... जाल्यारि आत्त ना ! ते झाडाक एक नमूने कीडि लाग्गून गेल्ले ते...

**बुड्डि आक्का** : मूळ समेत मेल्लेवे...? तुम्मि ते झाडाक... कसलेयी... वक्कद करनीवे? एक उत्तर... मेगेलाग्गि सांगिले जाल्यारि हांव ते झाडाक वक्कद करनुं वांचय्त आशीलिमूं पत्ता...! थोडेचि ताम्डि मात्येंतु स्वल्प मीट भरसूनु...

**बाक्कुटु** : मुकार पटाके वासुदेवण्णाले घरा हित्लांतु तें झाड् आस्स. थंयि गेल्यारि तुक्का भरपूर पाल्ले मेळतले. थंयि वस...!

**बुड्डि आक्का** : व्हय्वे? पटाकिले घर हांगा दाकून कितले दूर आस्स?

**बाक्कुटु** : मस्त दूर कांय ना... बा...! हेंचि रस्तेरि अखेरिचे घर. आंम्गेले नंता होळ्ळे Compound घर मळ्यारि ते एक्कचि हांगा आस्चे!! वस... थंयि वस...!

**बुड्डि आक्का** : ते घरांतु... सूणे... जाव्वो आस्सकी...?

**बाक्कुटु** : पटाकि वासुले घरांतु सूणे खंयि दाकुन आबा ! आस्लेरियी तूंवे इत्या भीव्का? तुक्का पळय्ल्यारि ते सूणे भीव्नु आंग काड्तले...!

**बुड्डि आक्का** : तें...आश्चे पूरो... जाल्यारी... रात्रि वेळु... हांव बाय्ल मनिशि नैंवे पुत्ता... नंता मांथरि विंगड्...! कश्शि एकलेनंचि... तित्ले दूर वच्चेरेपा...! तूंवे मेगेले ओट्टू एवनु चारि पाल्ले हुम्टानुं काण दिल्लेरि होड् उपकार आशीले... तश्शीचि चेरडालो जीवु वांचयिले पुण्य खंडिताकै तुक्का मेळ्ता!!

**बाक्कुटु** : हांवे येव्कावे तुग्गेल ओट्टू...?

(स्वगत)

हे मांथारीक थंयि झाड् आस्स म्हळ्ळेले मेगेलि चूकि जाल्लिमू!?

**राधाबायि** : तान्नि येव्चे तशि ना...बुड्डेक्का...! तांका... तांका... हूं...

**बाक्कुटु** : माक्का... माक्का... मेगेले... माक्का...

(कसलेयी सांगचाक जाय्नाशि कडेरि तक्षण)

मेगेलो उज्वे पाय्याक ताव्वळि सांजेरि स्वल्प पेट्टु जाव्नु... उळ्कलेवरि जाल्ला... आत्त चम्कुचाक जाय्ना...!

**राधाबायि** : ताव्वळ् दाकूनु बोड्डो धोरनु चम्कत आस्सति.

**बाक्कुटु** : तेंवय भारी क्ष्टारि...!

**बुड्डि आक्का** : इत्याक...? कस्सले जाल्लेरेपा... पाय्याक...?

**राधाबायि** : मा!ळेरि चळ्ळेलींचि... तोग्गु देंव्ताना... निसणि निसोरनु...

**बुड्डि आक्का** : कळ्ळे... कळ्ळे... पेट्टु जोरु जाव्नु आस्सुका नवे...?

**बाक्कुटु** : इत्या उड्गास् करता ते बुड्डेक्का! एक पटि जीवु गेल्ले म्हण्के जाल्ले...! इत्की ते वेंकट्रमणाले दया...! वांचूनु वरलो...! जाल्यारि समकट् चार हेज्जे घालूंक जाय्ना..

**राधाबायि** : एक हेज्जे मुकार घाल्ताना... दोनि हेज्जे माकशि वत्ता.ती..!

**बुड्डि आक्का** : हूं.... हाक्का वक्कद कस्सले म्होणु गोत्तास्सवे तुम्का? गज्गो... गज्गो...!! चारि गज्गो हाणु... धाडानु लायेक कोरनु पिट्टि कोरनु... दोनि चेमचे खस् खसो भरसूनु थोडे उदाक ओट्टु... Mixi तु घाल्नु वाट्टूनु... राननीरि स्वल्प... हून कोरनु उदाक आटोव्नु... लेप तयार कोरनु दोनि चमचे कडे तेल्ला ओट्टु भरसूनु उळकलेल कडेन लाव्नु घेत्ल्यारि धूकि मंगमाय जात्ता. तशीचि सूजियी ऊणे जाव्नु... चोवीस् घंटे भित्तेरि पांय सम्म जात्ता...! हात्पाय्याचे उळकीक हे रामबाण!!

**बाक्कुटु** : व्हय्... व्हय्... ते पूरायि कोरनु जाल्ले...!

**बुड्डि आक्का :** आनिकै राब्बनीवे...? हे लेपु लागगनि म्हळ्यारि...

(आलोचन करतचि)

आनेक वकद आस्स सांगता आयिक...

**बाक्कुटु** : बुड्डेक्का तुक्का विंद्रा कान्ना पाल्लो हाड्चाक वेळु जायनावे?

**राधाबायि** : सुरवेक तुगेले मिणकाम्माले आलोचन करि बुड्डेक्का...

**बुड्डि आक्का** : व्हय्गोम्मा विसोरनु गेल्ले. "मातु मने हाळु" म्हण्ताति. घरेलु वकदा विषयु उलोव्चा राबल्यारि वेळु गेल्लेलो कळ्ना !

**बुड्डि आक्का** : वत्तरे आन्ना... हांव् एत्तगोम्मा राधाबायि. पटाकीले घरा वचूनु पाल्लो काण घेव्नु वत्ता... मेळ्यारि मेगेले पुण्य...!

(म्हण्तचि ती वत्ता)

**राधाबायि** : जाय्त बुड्डेक्का... जागरतेन वचून यो...

**बाक्कुटु** : "वचून यो...!" म्होणु इत्याबा सांगता तिक्का...? वस... म्होणु सांग! सद्या चम्कलि नवे? मेज्जाम्मा..! वेळु नात्तिले वेळारि शेजारचाले घरा रिगगूनु जीवु खाव्चे

म्हळ्यारि हेंचि... सुरवेक ते बागिल घालि... कपाट बागिलाक आड् कोरनु दवरयां...

(राधाबायि बागिल घाल्नु बाक्कुटाले ओट्टु मेळ्नु कपाट लोकोनु बागिलाक आड दवरता. म्हण्ताना वासरे दिकान मिंयाव् म्हळ्ळेले आवाज एत्ताना तो कूड्ले बाय्लेले माकशि निपता)

हां..! हे एक चोर माज्जरकी..? चोर भित्तर येव्नु माज्रा म्हण्के रड्तरि आस्सकी म्होणु... आम्मि निद्दलेंकी ना म्होणु खातरी करचेक...! चिके वासरेला वचूनु पळोव्नु एत्तवे तूं...!!

**राधाबायि** : बद्दचि तित्ले भिल्लेवे म्हणता तुम्मि...!!

**बाक्कुटु** : एक सेकेंडान कशिश भीव्नु गेल्लो पळे हांव्...!!

**राधाबायि** : नय म्हण्ता असले सानन सानन विषयाक तुम्मि अशिश भिल्यारि आनी निज्जाव्नु चोरान घरा रिगल्यारि गति कस्सल जाय्त् म्हणता...?

**बाक्कुटु** : ते विंगड विषयु आस्सो... आत्त एनांतिले ते चोराल विषयु कसल्याक उल्लोव्काबा...?

**राधाबायि** : तशिश जाल्यारि उल्लोव्चे राब्बोनु नुत निद्दया पळोयां...!

**बाक्कुटु** : नीद येना राधाबायि...!!

**राधाबायि** : नीद येना जाल्यारि तुम्मि हाळ्ळेले ते पांच लक्ष भाग्रि काणु वापास् वापास् मेजूनु बैसा... धा पाव्टि मेजिताना फाल्ले जात्तले...!

**बाक्कुटु** : हुश्... आनी इत्याक तेंचि विषयु उल्लय्ता तूं? हेकडे तेकडे शेज्जारचांगेले कान्नां गेल्यारि कस्सले म्होणु लेकतलिंतीं...?

**राधाबायि** : इत्ले वेळु विषयु तांचे कान्नांपणि म्होणु लेकतावे...?

**बाक्कुटु** : म्हळ्यारि पूरायी तान्नि आय्कून आस्सुका म्हण्त आस्वे तूं...? चोर आनी चोरांगेले विषयु तान्नि आयकल्यारि कांय होड् ना.. जाल्यारि हे पांच लक्षा विषयु तान्नि आय्कना जाल्यारि चांग आशीले...!

**राधाबायि** : पूरोबा पूरो... नुत पड्या म्हणता... नय्वे खंचेयि विंगड् विषयु उल्लया पळोयां...!!

**बाक्कुटु** : व्हयि... तशी कोरयां.... मुंबैंतु मेगेले मांताले घरकडे आम्गेले Honey Moon आचरण केल्लेले विषयु उल्लोयांवे? गम्मत्ताकै जात्ता वेळु काड्चाकै जात्ता...!

**राधाबायि** : आय्यय्य...! ते कसले Honey Moon म्होणु उलोव्चे म्हण्ता...? आम्का निद्दोचाक दिल्लेले कूडाक आनी मांताले बेड् रूमां मध्येंतु आड आश्शीले एक रुक्का Standचे Partition मात्र...! मांतान आनी मांताले बाय्लेन उल्लय्ले पूरायि आमका सम आय्कूनु आम्मि उल्लयले पूरायि तांका आयकूचे नमूनेरि आशीले ते घरांतु!! चारि रात्रि कशि काळ्ळे म्होणु माक्काचि गोत्तु! नुपुरो जाल्यारि निद्दोचाक दिल्लेले तो Spring मांचो आम्मि अशी तशी सरतानांचि किर कुर म्हणताशिले. मुंबै मांतान विमाना Ticket दीव्नु honeymoon कोरचाक आम्का मुंबै आपय्ला म्हण्ताना... उक्कून आय्यिलि मेगेले honeymoon चि उमेदि... तांगेले घरां रिग्गिले पांच मिनुटानचि भाग्गून गेल्ले...! हे सोळ्ळेरि आनी कसले उल्लोव्येत्बा ते विषयु....!

**बाक्कुटु** : मुंबैंतु हे... पूरायि तशींचि नवे...!?

**राधाबायि** : आनी पुरो.. आत्तचि घंटे बारा जाल्ले... नुत निद्द्या पळया! माक्का नीद येत्त आस्स...!! हांव निद्दता...!!! आनी माक्का उलोव्सूनाकाचि...

(म्होणु सांगतचि नेलारि जमकान घाल्नु उश्शे दवरनु आड् सरनु वरलि मात्तेरि तांय पांगूरनु ती निद्दता... तशींचि घोरके आय्कता...)

**बाक्कुटु** : (स्वगत) हिक्का नीद आय्लीचि...! घोरके मारचाकै हीणे सूरु केल्लेंचि....!! खंय गेल्यारियि ही अशीचि..!! निद्दोचे म्हळ्यारि निद्दोचेची हीणे..!! नेलारि... मांचारि... बस्सा सीटारि बय्सून आस्सो... राब्बून आस्सो... थोडे अवकाश् मेळ्यारि पूरो... हीणे अशीचि नीद काड्चे!!! लाग्गि

आशिल्यांक तोंद्रे जात्ता म्हळ्ळेले विवेचना ना...! माक्का अंतू आजि ग्राचारु...! नीद येव्चे ना...!

(राधाबायीक पळैतरी...)

जाव्वोबा पाप... मेगेल खातीर तीणे इत्याक नीद खोळका...? कशी पुणि अरध रात्रि काळ्ळे...आनी एक... स्वल्प वेळु... माग्गीर बचाव्...! फाल्लें जाता...!! सूरयोदय जाल्लेरि पूरो... थैंक दोरको बजाव्...!!! नय्... रात्रि अशींचि एकल्यानची जागोर बय्सूनु वेळु काड्चे भारी क्ष्टा कामबा...!

(भायरि Duty Police विशिल मारलेले आय्कता. तेकडे पळोनु....)

म्हळ्यारि रात्रि पाळीचे Duty पोलिसांचि लाग्गि आस्सति म्होणु जाल्लं...! तश्शि जाव्नु हांवे तित्ले भीव्का म्होणु ना...! जाल्यारियी मारि भंय्य जात्ता...! जाव्वो आनि स्वल्प निद्दोचाक प्रयत्न कोरया...

(म्हणतरि मांचारि निद्दता... फक्कने उटायता...उटावनु... बैसूनु...)

नै बागिल सम पळ्ळांकी ना म्होणु वापास् एक पटि पळोव्नु एवनु मागीरि निद्दोचाक Try कोरया...!

(कपटा मागशी बागिला लाग्गि वचूनु... पळोव्नु...)

पुण्यान बागिल बंद आस्स... जाल्यारि... वायरि Bolt मात्र नामू...? खंडिताक्कयी चोराले एक्क मस्तपाक हें बागिल उदारे जात्ता...! हे कपाट आश्शीले निंम्ति बचाव्...! हूं... कसले कोरचेबा..! दोळेंक नीद कांयि लागगनामू......!! भगवद्गीते आशीले जाल्यारि वाज्जिलेरि मनाक स्वल्प हित जात्तशील्की इत्तकि...!!

(आनी ब्याग हात्ता धोरनु हेकडे तेकडे चाल्लि काड्ता...
आनी वायरि गडियार पळय्ता...हात्ताक बांदिले Wrist Watch पळय्ता.
मांचारि बय्सता. तशींचि उशेक मात्ते लाय्ता म्हण्ताना
माज्रांगेन "मियांव्... टुस्... पुस्..." म्हणु लडायि मारन घेत्तीले आवाज
आय्कता! भीव्नु दडक्कने उठाव्नु बैस्ता... बाव्डेक विपरीत भंय्य
जाव्नु. राधाबायिले लागी सरनु हळूचि...)

वैगो... वैगो... नीद आय्लेवे तुक्का..?

(राधाबायिले घोरके मात्र आय्कता)

**बाक्कुटु** : सांगिले आय्कलिगो... वैगो...

(राधाबायिले उत्तर ना)

(तिगेले कान्ना लाग्गीचि वचूनु आनी स्वल्प होडान...)

**बाक्कुटु** : वैगो... आय्कलिवे..?

(जागी जावनुं निद्दां निम्गीता...)

**राधाबायि** : कस्सले म्हण्ता...?

**बाक्कुटु** : घोरको तांडुनाक्कागो...

**राधाबायि** : ह्ञूं...

**बाक्कुटु** : तूं स्वल्प उठाय्त्वे माराय्ति एक पाव्टि...?

**राधाबायि** : ह्ञूं...

**बाक्कुटु** : पळे... हांगा पळेगो... दोळे सोड्त्वे.....?

**राधाबायि** : ह्ञूं...

**बाक्कुटु** : पूराकयि "ह्ञूं...ह्ञूं..." म्हणतमूं...? ते शिवायि हिक्का हांव सांगीले विषयारि इत्लेयी ध्यासू ना म्हळ्ळेले खंडित...!

**राधाबायि** : (म्हणतनां जागि जाव्नु बेजारान) नपूरोबा... पूरो... अशिश कसल्या तुम्मि मिग्गेले जीवु खात्ता म्हण्ता?

(उठावनु बैसूनु)

हांव आनी भित्तरि Bed Room वचूनु निद्दता म्हणता... माककां अश्शी तुंम्गेल ओट्टु नीद खोळ्नु बैस्च्या जायनां म्हण्तां... नुपरु जाल्यारी सक्काणि उद्वाव्नु इड्लि विंगड शिज्जोच्याक आस्स माककां... तश्शीचि चट्नि कोळोंबो दोननीयी जाव्कामूं तुम्कां काफीक...

**बाक्कुटु** : आं..! कसले..!?

**(घाब्रेनु)**

माक्का एकलेक हांगा सोणु तूं भित्तर वचूनु एकली निद्दतवे?

(तित्ले म्हणताना भाय्र दुकूनु जनानि चोरु... चोरु..

चोरु धांव्त आस्स... धरयाति... धरयाति... म्हळ्ळेले आय्कता.

बाक्कुटु विपरीत भीव्नु उठानु राब्चाक सुता जाय्नाशि
बाय्लेक आपय्त सांगता)

**बाक्कुटु** : वै...वै...वै...वै...वैगो...

(कडकडेतरि)

**बाक्कुटु** : आय्कलीगो.. उठाव्नु हांगा मेगेलाग्गि येव्नु बय्स्गो... इत्याकी माक्का पांय उककोळचाकै त्राण नात्तिले म्हण्के जाल्लामूगो...

(म्हंण्तरी तो थैंची नेलारि बैस्ता... राधाबायि घाब्रेनु उटानु बैसूनु)

**राधाबायि** : कोणाल्की घरांतु चोरु... रिगलाकी म्होणु..!

(म्हंण्ताना... बागील मारलेलो शब्दु आय्कता)

**बाक्कुटु** :कोण्गो ते...?

(आत्त राधाबायियी भीव्नुं)

**राधाबायि** : कोण म्होणु कळ्नां... म्हण्ता...!

**बाक्कुटु** : इत्ले वेळारि आम्गेले घराक कोण येत्तांचिबा...!

**राधाबायि** : चोरान घरा रिगचे हेंचि वेळारि नय्वे म्हण्ता...?

**बाक्कुटु** : चोरांगेले विषयु उलोव्नाक्का म्होणु कित्ले पाव्टि सांगल्यारि तूं... तेंचि उलयि... फुडेक हांगा गांडि आयला..!!

(वापास् बागिल मारलेले... तशीचि Calling Bell केल्लले... आय्कता)

तान्नि थंय बागिला मारल्यारि... माक्का हांगा हरदेंतु भात् खांडुचा सुरु जाल्लां..! स्वल्प तूंचि वचूनु पळोनु योगो...!

**राधाबायि** : बद्द चोरु म्होणु जाल्यारि आम्का कोण गति म्हण्ता..!?

**बाक्कुटु** : चोरु जाल्यारि अशिश बागील मारनुः Bell कोरनु येत्तवे..?

**राधाबायि** : आजि कालि चोर कसलेयि कोरचाक फाव् आसतातिखंयि...! पिस्तूल धोरनु येव्नु धरोडे कोरनु वत्ला खैं म्हण्ता...?!

**बाक्कुटु** : अय्यय्यो तशिश जाल्यारि गति कस्सल्गो...?!

(राधाबायि लाग्गि येव्नु)

**राधाबायि** : नां... नां... हांगा आत्त तश्शि आशेस्ना म्हण्ता... एक पटि ताळो काणु "कोण ते...?" म्होणु होडान निमगुचा नज्जवे म्हणता तुम्का..?

**बाक्कुटु** : नि... नि... नि... निमुगचाक.. तो... तो... तो... तो... तोंड... येनांगो... आसो... निम्गूनु पडता...

(भिल्ले म्हणके... सोरु भाय्र येनात्तिले वरि)

को... ण... ते...?

(म्होणु सांगूनु... घाब्रेनु)

अय्यय... सम... आवाज भाय्रि... येनामुगो.... उल्लय्लेवरि जाय्नामू..? ताळो पूरायि सुक्कूनु गेल्लाशी... दिस्ता..!

**राधाबायि** : इत्ले हळूचि उल्लय्ल्यारि कोणा आय्कत म्हण्ता... आनिकय होडान... निम्गिया... म्हणता...

**बाक्कुटु** : (स्वल्प होडान) कोणते? (भाय्र दाकून राम नायकु उत्तर दित्ता "हांव...")

**बाक्कुटु** : हांव  म्हळ्यारि कोण तें...? नांव् नावे...?

(भाय्लेन: "हांव्रे बाक्कुटा... हांव वरकाडि राम नायकु...")

**बाक्कुटु** : हो... हो... वरकाडि तूंवे माराया यो योरे माराया भित्तरि यो...!

(म्हण्तरि वग्गि वग्गि दोगगंयी कपाट बगलेन लोकोनु बागिल काड्ताचि)

इत्तेरे हे वेळारि... विषयु कस्सले...?

(राम नाय्कु भित्तर येव्नु)

**रा.ना.** : न्हय्रे बाक्कुटा इत्ले वेळारि घरांतु Light घाल्नास्स मूंरे... इत्तें कांय नज्जवे? हे कस्सले बागिला लागी कपाट दव्वरलां?

**बाक्कुटु** : आजि मेगेले अवस्था... बागिला Bolt विंगड मोळ्ळां... तश्शि म्होणु कपाट आड दवरलां... मारी नीदयी येनां...!!

**रा.ना.** : आत्त धा मिनिटा फूडे Bakery साव्कार मंजण्ण शेट्टिले घरांतु आशीले Cash पांच लक्ष रुपयि खांपूनु गेल्लि म्होणु खबर  आय्लि....घराचे Renovation कामांक म्होणु बेंका दाकूनु ताणें   हाडव्नुं दवरलले खंयि...!

**बाक्कुटु** : आं...? Cash पांच लक्ष रुपयो...?

**रा.ना.**: व्हय माराया.. Cash पांच लक्ष रुप्पयो!! चोरलेले दुड्डु समेत चोरु धाव्नु हेकडे तुगेले घरा Compound wall उड्डुनु... तुगेले हितलांतु रिग्गीले सुमार जनानि पळय्ला खंय्. तुगेले घरांतु Light आशीले पळोव्नु तो घरा जाव्वो रिगलाकी म्होणु पळोव्नु तुक्का विचारसुनु वच्चा म्होणु आय्लो हांव!! तशींचि ताव्वळि आम्गेलो रानपो शिन्नाले गोंदोळाकय Sorry म्होणुयी सांगुनु वच्चाक आय्लोरे हांव्!!

**बाक्कुटु** : इतें गांव्भरि चोरणिका जाव्चे वेळारि तीरथ यात्रेक भायर सरलेम् तुम्मीं...? व्हय कस्सले म्हळ्ळे तूंवे..? चोरु Bakery शेट्टिले पांच लक्ष रुपयि घेव्नु मिगेले Compound रिगलोकी..?

**रा. ना.** : हां ... वै.. हांगा तुगेले घरा Compound तु रिग्गूनु निपीनु बय्सूनु आस्चाकय पुरो. हे तुगेले आज्जाले कालाचे घराक माक्षिचान कामांचाले कूड, तांगेलि नहाणि - पायकानो गोरवांले कोडके, सूणे बांद्चे कूड, राक्कूड् दवरचे कूड, गरगसा पिट्टे कूड, सैकला Shed, कारा Shed, अशि तुगेले घराक हितलांतु उपयोग नात्तिले हजार इत्ले कूडं... कूडं... आस्सूनु हांगा चोरांक निपचाक भरपूर आस्पद आस्स म्होणु गोत्तास्सूनु तो हांगा रिग्गून आस्सुका म्होणु दिस्ता माक्का!

**बाक्कुटु** : इत्ते ? चोरु आम्गेले Compound तु आस्सवे?

**राधाबायि** : इत्ते म्हण्ता इनस्पेकटर पैमामाक फोन कोरचे चांग आशीले नैवे म्हणता...?

**रा. ना.** : पेलिसांचे ताव्वळि दाकूनु चोराक सोड्डूचाक लागलेंति.

**बाक्कुटु** : नैरे... वरकाडि... चोरु मेगेले कंपौंडांतु रिगला म्हण्तमूरे... तूं...? तुक्का तोंद्रे जाल्यारियी होड्ना... दय कोरनु खंयियी वच्चनाशी आजि रात्रि पूरायी हांगा राब्रे तूं मेगेले ओट्टू...! Please हे एक रात्रि मात्र तूं हांगा राबरे माराया...!!

**रा. ना.** : अरे... बाक्कूटा... चोराक तूंवे इत्ले भिल्लेरि कशीरे माराया?

**बाक्कुटु** : न ... सामानय जाव्नु चोराक हांव भित्तलो न्हय्...!! जाल्यारि आजि परिस्थिति... तशिश राबल्या...!

**रा. ना.** : म्हळ्ळेरि आजि कस्सले विशेष जाल्ला म्होणु तूं अशिश भिल्ला...?

**बाक्कुटु** : मेगेलाग्गियी अजी Cash पांच लक्ष रुप्पयो आस्स माराया !!

**रा. ना.** : इत्ते? तुगेलाग्गि? Cash पांच लक्ष रुप्पयो आस्सवे...?!

**बाक्कुटु** : वैरे साय्बा ब्यांका दाकूनु आजीचि काणु हाळ्ळेले हांवे..!!

**राधाबायि** : अशिश मस्त Cash रुपयि घरा घेव्नु येव्नाकाति म्होणु कित्ले पटि सांगल्यारियी ना हांका. केदनायी धा - पंद्रा हजार मात्र हाड्तलिं आजि एकाएकी पांच लक्ष हाणु आत्त अशिश घाब्रेताचि...!!

**बाक्कुटु** : हो दुड्डु आफीसा मेनेजर सिद्धलिंगय्याले घरा लोनाचो दुड्डु... Bank दाकुनु हांवे Cash करनु हाळोलो दुड्डु..!!

**रा.ना.**: आफीसा दुड्डु तूंवे तुगेले घरा कशिश हाळ्ळे..?

**बाक्कुटु** : हाड्चा नज्ज आशिले...जालेरीयी हाळ्ळे...

**रा.ना.** : इत्याकी माक्का स्वल्प अनुमान जातमूरे बाक्कुटा..! थंयि सावकार शेट्टिले घरांतु अचिश् पांच लक्ष चोरि जाल्ला... हांगा... तुगेलाग्गियी पांच लक्ष Cash आस्स म्होणु म्हणतातूं..! चोरु शेट्टिले घरांतु पांच लक्ष चोरि कोरनु... तुगेले घरा Compound उड्डीले गांव्चे जनानि पळय्ला म्हणताति...! थंयिक बाक्कुटा... शेट्टिले घरां दाकूनु...!?

**बाक्कुटु** : अय्यो.. हे... वेंकट्रमणा.. लक्ष्मीनरसिंहा.. महागणपती.. तशिश म्होणुकारे वरकाडि... तूं मेगेलो दोस्त् जाव्नु अशिश इत्याक म्हणतरे तूं?

**रा.ना.** : कारण कित्लेयी दीव्येत..!! जाल्यारि विषयु सम कळीताक येव्वु तांय अनुमानु अनुमानूंचि.. ...!!?

**बाक्कुटु** : वरकाडि.. इत्या अश्शि अनुमानु पाव्तरे तूं... मेज्जेरि..? हो दुड्डु चोरलेलो दुड्डु न्हय म्हाराया...!!

**रा.ना.** : सक्कड् सोणु आजि इत्याक तूं तित्लो दुड्डु घेव्नु आय्लो..?

**बाक्कुटु** : मेगेले ग्राचार...

(भाग्र बागिल मारलेले... तशीचि Calling Bell आवाज आय्कता राम नाय्कु कंड्येंतुल्यान भाग्र पळोव्नु सांगता)

**रा.ना.** : पळे.. थंय पळे... बाग्रि Police Inspector दामोदर पैमामुयी येव्नु पाव्लो हांगा... तागेलाग्गीचि हें पूरायि विषय सांग तूं...!

(बाक्कुटु कूड्ले बागिल उदारे करता... Police Inspector भित्तरि येत्ता)

**बाक्कुटु** : अरे !! Inspector दामोदर पै? हांगा... हे वेळारि...?

(P.S.I. दामोदर पै एक पाव्टि सगळे घरा एद्रा कूड् पळोव्नु दोळे गुरगुराव्नु हात्ता आशीले लाठिन ताग्गेले हात्ताक मारतचि... बाक्कूटाक पळैताना बाक्कुटु घाब्रेनु दामोदर पै माम्माक पळैतचि...)

हांव चोर नहै पैमाम्मा...! निज्जाव्नु मेगेलाग्गि आस्सुचे आमगेले आफीसा मेनेजर सिद्धलिंगय्याले घर बांदुचाक Sanction जालेले पांच लक्ष रुपयो! Bank तु Cheque Cash कोरनु हाळ्ळेलो दुड्डु. दुड्डु घेव्नु वापास् आफीसाक वत्ताना Time जाव्नु आफीस् बंद जाल्लेल निमित्ति Cash घेव्नु हांगा घरा एव्का जालें...!

**राधाबायि** : (बाक्कुटाक) Police Inspector पै माम इत्या आय्ला म्हण्ता...? निज्जाव्नु हो दुड्डु कोणालो...? इत्या अश्शि केल्ले म्हण्ता... तुम्मि...?

**बाक्कुटु** : निज्जाव्नु सांगता... Office चो दुड्डुगो... हो...! तुज्जाण...!

**P.S.I.** : (बाक्कूटाक पळोव्नु ) तुम्गेले नांव् कस्सले...?

**बाक्कुटु** : बा... बा... बालकृष्णु...! जन माक्का... प्रीतीन बाक्कुटु म्होणुयी आपय्ताचि तिरुपति वेंकट्रमणाले आणं... हो दुड्डु आम्गेले आफीसाचे दुड्डु...!! हांव चोर न्हय्...! हो चोरलेलो दुड्डु न्हय्...!

**P.S.I.** : ओट्टु कित्ले आस्स...?

**बाक्कुटु** :पांच लक्ष...!!

**रा. ना.** : Bakery साव्कार शेट्टिले घरांतूयि चोरि जाव्नु गेल्लेलेयी पांच लक्षचि...!!

**बाक्कुटु** : अय्यो... मेगेल गराचारकी... ते शेट्टिले घरांतु पांच लक्षा वायरि पांय्शी खांपून वच्चा नज्ज आशील्वे देवा... ताव्वळि मेगेल वायरि कोणांकै अनमान येना आशीलेमू...!

**P.S.I.** : थैंक विषयु खात्रि जाल्लो...!

**रा. ना.** : मेगेलो अनुमानुयी खंडित जाल्ले...!

**बाक्कुटु** : Inspector दाम्मण्णा... तूंवंयि अशि सांगचेवे...? खंडिताकै हांव चोर नहै...!

**राधाबायि** : अय्यो देवा... सक्कड् सोणु त्या बेकरि शेट्टिलो दुड्डु खांपचि बुद्धि मेगेले बाम्णाक इत्या दिल्लेबा...तूंवे..? आमगेले सगळे कुटुंबांतु कोणयि अशि करनि आशीले...!

**बाक्कुटु** : तोंड् धांपतवे तू...?

**P.S.I.** : बाक्कुट् मामा... ब्यागांतु पांच लक्ष रुप्पयो आस्स म्होणु तें ब्याग अश्शी पीटोव्न धरनु बस्ल्यांवे तुम्मीं? सत्य सांगयाचि... पांच लक्ष रुपयि तुम्मि खंचे Bank दाकून हाळ्ळेले...?

**बाक्कुटु** : वै... वै... खंयी होड्गून वच्चे नज्ज म्होणु सगळे दनपार दुकून हे ब्याग हांव अश्शी धरनु आस्स...!! हो पूरायी दुड्डु हांवे हाळ्ळेले State Bank दाकुनु...

(वरकाडि राम नाय्काक पळय्तचि)

वरकाडि तूं... माक्का चोरु म्हणालेमूरे...?

मेगेलो बाल्यमित्रु तूंचि... अश्शि संशय पाव्लमूंरे...! पळे... पळेरे... दुड्डु पूरायी... हे ब्यागांतु आस्स. Rubber Band घाल्नु...अट्टि कोरनु दवरलेले पांच लक्ष रुपयि काट मेगेले Times of India News Paper, Diary, Bank Pass Book, Chalan, मेनेजराक Sanction जालेले Letter पूरायी हांतु आस्स पळया घेया....

(म्हणतरि Briefcaseचे Lock Open कोरनु उदारे करताना तांतु Rubber Band घाल्नु दवरलेले बरे कागदा कुड्के काट मात्र दिस्ताना तो घाब्रेनु... पिश्या म्हण्के...)

आं..!? कागदा कुड्के काट्...!? अय्यो... देवा...वेंकट्रमणा... लक्ष्मीनरसिंहा.. महागणपति... हे कस्सले खेळ् तुग्गेले...? खंय गेल्ले पूरायी नोटा काट्ट...! पांच लक्ष रुप्पयो...!!! खंय गेल्ले देवा...!? हांगाक मेगेले मडे पळ्ळेवरीचि! राधाबायि तुक्का आनी कोण गति?

(म्हण्तचि दोळे काळोक एव्नु धडक्कने नेलारि पड्ता...)

**P.S.I.** : बाक्कुटु मामा...! हांगा पळया..!!

**राधाबायि** : पै माम्मा... कस्सले जाल्लेबा मेगेले बाम्णाक...?

**P.S.I.** : कांय जाय्नि राधमांय्ये....! ब्यागांतु दुड्डु नात्तिले पळोव्नु स्वल्प दोळे काळोक आयल्या म्हणके जाल्ला दिस्ता...!! भित्तर दाकूनु एक पयालो थंड उदाक घेव्नु येय्या......!

(राधाबायि कूड्ले भित्तर वचूनु एक गलास् उदाक हाणु दित्ता.)

**रा.ना.** : बाक्कुटा... ए बाक्कुटा... उट्रे माराया...!!

**राधाबायि** : एक डाकट्रा पुणि आपोव्चा नज्जवे रामनाय्का...?

**रा.ना.** : वै... वै वचूनु डा. शानभाग माम्माक आत्तंचि हांव आपोन घेव्नु येत्ता.

**P.S.I.** : डाकटरु जाव्का म्होणु.. ना...! तुम्मि कांय भीव्नाक्काचि...!

पूरायि सम जात्ता...!!

(म्हण्तचि ग्लासांतु आशीले थंड् उद्दाक हात्तारि काणु...

बाक्कुटाले तोंडाक मारता... एक...दोनि पटि मारतचि...)

स्वल्प दोळे सोड्या बाक्कुट् मामा... सांगीले आय्कया... तुम्गेलो

आफीसाचो दुड्डु खंयि वच्चनि..! भीव्नुक्काती...!

**राधाबायि** : इत्ते म्हण्ता.... आयकलेवे.. अय्यो देवा.. कस्सले हे..? इत्या हे कष्ट आम्का..!? कुलदेवि माळशम्मा... तुक्का... सवाय रुपयि काणिक काणु दवरता.. एकपटि हांका बचाव् करम्मा. मेगेले मंगळसूत्रा भागय तूंचि राक्कूका

(दोननी हात वायरि कोरनु पांय पड्ताना..)

(P.S.I. बाक्कुटाले गाल्लाक दोन्नियि बगलेन पट पट मारतरि)

**P.S.I.** : बाक्कुट्माम्मा. उठायाचि...आफीसा दुड्वा कांयी तोंद्रे जाय्नि...!

**रा.ना.** : ( बाक्कुटाले हात्पांयु आपपोणु पळय्तचि)

Inspector पैमाम्मा... हातपांय थंड् जाल्ले म्हण्के दिस्तामू...? डाकटराक आपोन हाड्चे चांग म्होणु माक्का दिसता....!

**P.S.I.** : (राम नाय्काक आनी राधाबायिक पळय्तचि) एक दोनि मिनिट् नुत आस्चा नज्जवे...? बाक्कुट् माम्मा... उट्टा...

(बाक्कुटु परवंतरि उल्लोचे आय्कता)

**बाक्कुटु** : पा.. पा.. पांच ल... लक्ष... रुप्पयो... सरकारा दुड्डु गेल्लेमू...!!

**राधाबायि** : दोळे सोव्ळेवे म्हण्ता तुम्मि...? माकां पळया म्हणता...!! हुषार आस्सतिवे म्हण्ता...? हांगा पळया हांव तुम्गेलि बाय्ल... राधाबायि...!!

**P.S.I.** : बाक्कुट् माम्मा... घेय्या... सुरवेक हे उद्दाक पिय्या...

(म्होणु सांगतरि तागेले फाटीरि पेट्वितचि... खाककेंतु हात् घाल्नुउककोळ्नु नेलारि बसयतचि)

घेय्या.. हे उद्दाक पिय्या... पूरायि सम जात्ता पळया...!

**बाक्कुटु** : Inspector दाम्मण्णा सुरवेक मेगेले पांच लक्ष रुप्पयो माक्का सोद्दुन दिवयि...! तित्ले दुड्डु वच्चे खंयि...? पांच लक्ष रुप्पयो कशिश मायक जाल्ले म्होणु...?

**P.S.I** : बाक्कुट् माम्मा...दुड्डु खंयि वच्चनि... Safe जाव्नु आस्स...!

(बाक्कुटु उठावनु Inspector दाम्मुले हात घट्टि धरनु)

**बाक्कुटु** : दाम्मण्णा दुड्डु Safe जाव्नु आस्स म्हळ्ळेवे तूंवे...? खंयि... खंयि... आस्स... वग्गि सांग...! एक पटि सांग माका...!!

**P.S.I** : पूरायि सांगता बाक्कुट्माम्मा... घाब्रि कोरनु घेव्नकाति... तुम्मि भारि पुण्य केल्लेले म्होणु लेकता हांव्...!

**बाक्कुटु** : पांच लक्ष रुप्पयो मेगेले हात्तां दाकूनु होड्गून गेल्ला म्हळ्यारि... पुण्य खंय दाकून आय्ले दाम्मण्णा...? दय रनु दुड्डु खंय आस्स म्हळ्ळेले विषय माक्का सुरवेक सांगतवे...?

**P.S.I** : बाक्कुट् माम्मा... सुरवेक तुम्मि उटाव्नु हांगा बैस्या...

(कुरचेरि बैस्ता)

हांव  आत्तं तुम्का विषय पूरायि सांगता... हांव हांगा आय्यिलो ताज्जे खातीर... चिक्के  समाधान कोरनु घेय्या... जाल्यारि ताज्जे पूडेक तुम्मि माककं ब्यांका दाकून दुड्डु भायर कशिश घेव्नु आय्लींति म्होणुएक पावटी सांगया...

**बाक्कुटु** : हेंचि ब्यागांतु पूरायि दुड्डु दोंदोनि पटि मेजूनु Rubber Band घाल्नु... हझार रुपयेचे शंबरि नोटाचे पांच काट् कोरनु ब्यागा भित्तर लाग्गि लाग्गि दवोरनु ताज्जे वायरि आय्चे Times of India News Paper घाल्नु, ताज्जे वायरि Bank Passbook, Chalan, मेगेलि Dairy सिद्धलिंगय्याले Loanचे Pay Order Letter... पूरायि हेचि ब्यागां दवरनु... बंद कोरनु ताज्जे Lock घाल्नु बस्सारि आयल्यारि रश्शांतु खंयि ब्याग चुकून गेल्यारि म्होणु... चम्कुनूंचि आफीसा ताय वचूनु तशींचि आफीसा दुकुनु चम्कुनूंचि मेग्गेले घरां आय्लो हांव...! खंय खंचेयी जागेरि... ब्याग तग्गु दवरनाशि... जागरतेरि... हात्तांतु धोरनु घेव्नु घरा आयलामूं... हांव...?!

**P.S.I** : हेंचि ब्यागांतूचि परायि दुड्डु दवरनु घेवनु..... आयलिं न्हवे बाक्कुट् माम्मातुम्मि...?

**बाक्कुटु** : दुड्डु पांच लक्ष आस्स म्होणु आम्गेले Manager न माका दिल्लेले... हें न्हवे ब्यागांतु परायि दुड्डु घाल्नु हाळ्ळेले...!

**P.S.I.**: मध्ये वाट्टेरि हे ब्याग कोणांकयि दीनि नवे तुम्मि...?

**बाक्कुटु** : ना... हांवे ह्याब्याग कोणाले हात्ता दीनि...? घरां येव्नु जात्तरीयि अश्शीचि हात्ता धोरनु आस्स हांव...!

**P.S.I.** : मध्ये वाटेरि खंचेयि होटेलाक जाव्वो काफि पिव्चाक गेल्लेल्... तेदना... एकै कोणालाग्गि पुणि उल्लोव्नु राब्ताना...!!

**बाक्कुटु** : ना.. ना... Inspector दाम्मण्णा.. हे ब्याग हांवे खंयी तग्गुदवरल्लेले ना... कोणाले हात्तांतु दिल्लेलेयी ना... सोळ्ळेले ना...! हात्तांतूचि धोरनु आशीलो...!!

**P.S.I.** : एक सेकेंडाकै तुम्मि हे ब्याग सोळ्ळेले ना... नय्वे?

**बाक्कुटु** : खंडिताकयि ना... दाम्मण्णा...!!

**P.S.I.** : सम उड्गास् करया पळोयां...? रस्तेरि खंयि जाव्वो पांयु निसोरनु पळ्ळेले... नय्वे कोणयि पुणि आड्डळेले एकयि आनि कसलेयि पुणि Accident जाल्लेले... कसलेयि नां नवे...?

**बाक्कुटु** : Accident हां...!! हां...!!! दाम्मण्णा... व्हय Accident म्हण्ताना उड्गास् आय्ले दाम्मण्णा... रत् बीदिः Bus Stand लागि रस्तेरि चम्कून वत्ताना एकलो सैकलारि माक्षिचान येव्नु माक्का आड्डळ्ळो..! फक्कने आड्डळ्ताना... हांव मारगारि पळ्ळो...!! तेदना मात्र ब्याग मेगेले हात्तां दाकूनु निसोरनु रस्तेरि पडून आस्सुका...!! ते सैकल सवारानचि कूड्ले मारगारि पळ्ळेले ब्यागउककोळ्नु "Sorry Uncle..." तपपाय्तु म्हण्तचि मेगेले हात्तां दीव्नु तो धांव्लो...!

**P.S.I.**: (हात्ता बोट्टा चिट्कि मारतचि)

ब्याग हात्तां दीव्नु चम्कलो नय बाक्कूट्माम्मा थंयीचि ताणे तुम्का हात् दिल्लल्लो...!!

**बाक्कुटु** : म्हळेरि तित्ले भित्तरि ब्यागांतु आशीले दुड्डु खालि कोरनु Paperचे काट्टाक बदलाय्सुचाक साध्यवे... Inspector दाम्मण्णा...?

**P.S.I.**: तो साधारण चोर न्हय्...! प्रचंड चोर शिखामणि तो...!! ताणे.... तुम्का दिल्लेले हे ब्याग... तुम्गेले ब्याग नय्...

तुम्गेले ब्यागा म्हणके आशीले पांच लक्ष नोटा सैजाचे कागदा कुड्के भरलेले विंगड एक ब्याग...!!

**रा. ना.**: इत्तें?.... विंगड एक ब्याग...!? ते कशिश साध्य Inspector पै मामा...?

**P.S.I.** : बाक्कुटु माम्मा तुमि ब्यांकांतु दुड्डु ल्याक करतानांचि... तो... तुम्गेले ब्यागा वरीचि आशीले आननेक ब्याग धोरनु राक्कून आसूनु तुम्मि ब्यांका दाकूनु भाग्रि एत्ताना... तुमगेले माकशीचि तोवय भाग्रि येव्नु तुम्मि गेल्लेले वाटेरीचि तुम्का कळ्नाशी मागशी येव्नु... तुम्का Cycle आड्लानु Accident कोरनु तुमगेले हात्ता आशीले ब्याग नेलारि पाडोनु... भारी चालाकेरि लपटाय्सूनु... ताज्जे बदलाक तागेलाग्गि आशीले तस्सलेंचि दुस्रे ब्याग तुम्का दीव्नु तो धांवलो...!!

**बाक्कुटु** : हे चांडाळा...!!! माका कळ्ळें... ना... मू.....!!!

**राधाबायि** : तुम्का तित्ले चालाकपण आस्सुकामू...!?

**रा.ना:** न्हवे Briief Case पूरायि एकल्याक आसूनु गुरुतु धोरचे तित्ले सुलभ नय राधा व्हननये! Inspector पैमामा कडेरि तुम्मि खंयि ताका धरले..?

**P.S.I.** : आम्मि खंय ताक्का धरले...? तो जाव्नु एव्नु आम्गेले हात्ता शिरकलो...! पांच लक्ष घेव्नु कोणाकंयि विषयु कोळचे फुडेकचि चुकोव्नु घेव्नु वच्चूका म्होणु... अतिरेक स्ठिईजरी... Cycle Ride कोरनु वत्ताना...एद्रा येव्चे एक Lorryक आड्डोळ्नु बोडा पराणांतिक पेट्टु जावनु बोदु चुक्कुनु पोणु Traffic पोलिसांचाले हात्तांतु मेळ्ळो...!!!

**रा.ना**: (हास्तरि) हा... हा... हा... अंतू चोरान पाव्का जाल्लेले जागेक तोचि जाव्नु येव्नु पावलो म्हण्या...!!

**P.S.I.**: भोध् चुक्कून पळ्ळेलेक... Ambulance रि घाल्नु... आस्पत्रेक... व्हरताना तागेले हात्तां आशीले ब्याग आमगेले हात्ता एव्नु आम्मि ते Open करताना तांतु पांच लक्ष रुप्पयो, बाक्कूट् मामाले Dairy, Bank Passbook... हे पूरायी मेळताना आम्का विषयु अरथ जाव्चाक मस्त वेळु वच्चनि...!! ते चेल्याक बोधु येव्चे फुडेकचि आम्मि State Bank क वचूनु CCTV footage पळोव्नु ताणे बाक्कुट् माम्माले माकशि राब्बिलो विषयु खात्रि कोरनु... Dairyतु आशीले मामाले Address न हें ब्याग तुम्गेले म्हळ्ळेले विषय कोळ्नु.. तुम्मि मेगेले शेजारचे पै मामु म्हळे्ळीलो विषय माक्का गोत्त् जाव्नु हांगा आयिलो...!!

**रा.ना.**: निज्जाव्नु तूं... एक... अदृष्टवानूंचिरे... बाक्कुटा...!!

**बाक्कुटु** :(रामनाय्काक) मात्र हांवचि चोरु म्होणु लेकले तूंवे..?

**रा. ना.**: चूकि जाल्लिरे बाक्कुटा... माक्का माफि करि...!!

**राधाबायि** : ब्यागांतु पांच लक्ष रुप्पयो आस्सति म्होणु लेक्कूनु भीव्नु हान्नि तांगेल मात्र न्हयिशि मेगेलोयि जीवु अरध कोरनु घाल्ले...!! ताव्वळीचि घरां येत्तरि एक पटि ब्याग Open कोरनु पळोचा नज्ज आशील्वे तुम्का...!!

**बाक्कुटु** : ताव्वळ् बिनि पळय्लेले जाल्यारि... तुम्मि पूरायि आत्ता हांगा नय्... स्मशानांतु मेगेले म्हडे लास्त आशीलींचिकि म्होणु...!! Inspector दाम्मण्णा... तूंवे माक्का मस्त उपकार केल्लेरे... हे जनमांतु तूंवे केल्लेलो हो उपकारु हांवे विसोरचे ना...!!

**P.S.I.** : सत्य सांगूका जाल्यारि... तुम्का उपकार केल्लेले हांव नय्...! ते... Lorry Driver न...! ताणे बिनि त्या चोराले सैकलाक Accident करनि आश्शील जाल्यारि... एद्दोळ् भित्तरि तो चोरु तुम्गेलो दुड्डु पूरायि विलावरि कोरनु... दुड्डु पूरायी तुम्मि भित्तरि मारला म्होणु तो सिद्धलिंगय्या

तुम्गेले वायरि Complaint दीव्नु तुम्मि सक्काणिं आफीसाक आय्यीले तेदना तुम्का पीलीसांक दित्ताश्शीलो...!!

**बाक्कुटु** : हे पूरायी आम्मि नम्गून आय्यिले त्या कुलदेविले लीला...! तीणेंचि माक्का राक्कूनु साबीतायेरि हे गोंद्ला दाकूनु भायर हाणु... वांचय्ले...!! दाम्मण्णा... मागिरि ते चोराक कस्सल केल्ले तुम्मि...??

**P.S.I.** : ताक्का... तुम्गेले त्या... कुलदेवीनंचि... केल्लेले चूकीक ताक्का सूकत शिक्षा दिल्या....!! बोडा पळ्ळेले पेट्टान तो... आनिकै समचि उठाव्नु बैसनि...! बोध् येव्नु जात्तरि विषयु कबूल कोरनु Statement दिल्यारियी... तो पूरति सम जावच्याक उणेन ऊणे आनिकै तीनि-चारि मैने जाव्का म्होणु मळ्ळा डाकट्रान....!! तो आनीकै ICU हांतु आस्स...! जाल्यारि हे एक कारणान एदरा पणांशि परगांव्चे चोरा हांगा हाणु चोरि करय्तलो होड् एक चोरु Govt. Officer, तश्शीचि वरलले धा जन चोरांगेले Link आमका मेळ्नु, कूड्ले पूरायी जनांक धरचाक आम्का अनुकूल जाव्नु.... फायि सकाणि "उदयवाणी" Head Lineरि तुम्मि पूरायि विषय वाजूव्येत्...! तुम्गेले गांवांतु आशीले चोरांक धरचाक सहकार केल्लेलो म्होणु बाक्कुट् माम्माले Photoयी Front Pageरि येत्त पळया....!!

**रा.ना बाक्कुटु राधाबायि** : (तेगगयी आश्चरयान...) म्हळेरि...?!

**P.S.I.** : हांतु मुखेल Criminal बाक्कुट् माम्माले आफीसाचो Manager सिद्धलिंगय्या..!! Already हांवे ताका धरनु Arrest कोरनु पीलीस् Custody घेव्नु जाल्ला...!!

**बाक्कुटु** : आं... म्हळेरि...?! आम्गेले सिद्धलिंगय्या एक चोरवे...!!

**P.S.I.** : होळ्ळो चोर तो...! PWD Contract मात्र नंयि... गांवांतु जाव्चे प्रती एक चोरीक... एक नय एक रीतीरि होचि

